# शींव आनी बैल

माया खरंगटे



माणिकपद्म प्रकाशन

शींव आनी बैल

( हितोपदेशाचेर आदारित )





अक्षर जुळणी:
स्नेह ग्राफिक्स
शंकरवाडी, ताळगांव - गोंय




छापपी:
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय - गोंय

प्रकाशक:
माणिकराव गावणेकार
माणिकपद्म प्रकाशन
बांदिवडें - गोंय

मोल: रु १८ /-

# शींव आनी बैल

एक आशिल्लो शींव. तो व्हडल्या रानांत रावतालो. तो त्या रानाचो राजा आसलो. ताचे दोन मंत्री आसले. करटक आनी दमनक. ते दोगूय सदांच आपल्या शींव राजाचे आशिकुशीक आसताले. शींवान सावज मारून खालें काय उरिल्लें-सुरिल्लें मास तांका मेळटाले तेपासत ते शींवाची खुशामत करीत ताचे भोंवतणी रावताले.

एक दीस उदक पियेवंक तळ्यार वेतावेता शींव अर्देवाटेवयल्यान परत आयलो आनी घोलीत वचून ओग्गी बसलो. ते उपरांत ताका चडसो कोणें भायर भोंवतना पळयलोना. तो ओगी रावतालो. भियेल्लो कसो एका जाग्यार बसून रावतालो. हेरशीं ताका गर्जना करीत रानभर भोवपाची आवड. तसो भोंवतकूच सगल्या सावदांचेर आपलो धाक उरता असो ताचो समज. सगल्या सावदांक तें खबर आसले. त्याच्या भोवपा वेळार तीओग्गी रूखार. झिलींनी, बसताली.

पूण ह्या दिसांनी शींव व्हडाव्हडान गर्जना करीत भोंवनासलो. करटक आनी दमनक पयसुल्ल्यान हें सगले

पळयताले. तांका ताचे म्हन्यांत वचून विचारूंक बरे दिसनासलें, तेय ओग्गी-ओग्गी भौंवताले. हेर जनावरां तांका विचारताली,

- आमचो राजा ओगीसो कित्याक ? बरो बी ना काय किते ?

करकट आनी दमनकाकडेन कांयच जाप नासताली. एक दीस दमनकान करकटाक म्हळें,

- करकट, आमच्या राजाचे किते जालां ताची आमीच चवकशी करूंक जाय.

- ओगी बस! दमनक,तो राजा.आमी सेवक. आमकां विचारप सोबना.

- आमी सेवक,ताची चवकशी करूंक जाय.

- नाका बाबा, तो रागान आमचेर झुडून आयलो जाल्यार.

- काय येना, त्या दिसा तो सदचेवरी उदक पियेवंक गेल्लो. थंयच्यान अचकीत तो फाटल्यान सरलो. कित्याकूय भियेला बी आसूं येता.

- येदो व्हडलो राजा आमचो. तो आनी कोणाक भियेतलो ?

- तेच पळोवंक जाय. तू येना जाल्यार येव नाका. हांव वतां.

- चल, चल, हांव हांगाच रावतां तुका.

दमनक थंयच्यान उठून सरळ शींवाम्हऱ्यांत आयलो. शींवान ताका बरेभाशेन येवकार दिलो. दमनकान पयली हांगच्यो थंयच्यो खबरी सांगल्यो. आनी ल्हवूच विचारले,

- म्हाराज , तूं त्या दिसा उदक पियेवंक म्हणून गेलो आनी पियेनासतना कित्याक परत आयलो ? त्या दिसाच्यान तूं ओगी ओगी आसा.

शींव पयली ओग्गी रावलो. थोड्या वेळान ताणें म्हळे,

- आरे दमनक, कितें सांगू तुका ? खरे म्हळ्यार कोणाक सांगपा सारकी खबर न्हय, पूण तूं मायेन विचारता म्हणून सांगता. ह्या दिसांनी रानांत एक विचित्र जनावर आयलां. व्हडाव्हडान आवाज करत भोंवता म्हाका दिसता तें म्हज्याक चड बळिश्ट आसूंक जाय. आवाजा वयल्यानच कळटा. ते आमाकां सगल्यांक खावन उडयतलेंशें दिसता. हांवे जाल्यार थारायलां, हें रान सोडून दुसऱ्या खंयच्याय बऱ्याश्या रानांत वचप.'

दमनकान ताची खबर आयकून म्हळें, 'म्हाराज मातशें आयकात. घडये तुमची कितेंय चूक जांव येता. आवाज व्हड आसलो म्हणून बळीश्ट म्हणू नजो. जाची बुद्द चड तो खरो बळिश्ट. तुमी कांय हुसको करनाकात. हांव आनी म्हजो भाव करटक पयलीं सारकी चवकशी करून येतात. मागीर कितें ते थारावया.'

'बरे, जाता तितले बेगीन मात येयात म्हाका सांगूक , ना जाल्यार भंयानच म्हजो जीव वतलो," शिंवान हुसक्यानशे म्हळे.

'आमी दोगूय भाव आसासर तुमकां कशेच मरूंक दिवचेनात. भियेवनाकात तुमी.'

शिंवान आस्वासन दिवन थोडो वेळ ताचे म्हऱ्यांत बसून दमनक करटका म्हऱ्यांत आयलो आनी ताका

सगली खबर सांगली. ताची ख़बर आयकून करटकान भियेवन शे म्हळें, "आरे दमनक, राजाच्या भंयाचें कारण आमी सोदून काडले जाल्यार बरे आसा, ना जाल्यार आमचे कितें जातलें चितलां तुवे ?"

'आरे करकट असो भियेता कित्यांक ? शिंवाचे खबरे वयल्यान म्हाका कळ्ळें खरे कितें तें ?'

'आं ! तुवें पळयला ते जनावर ? कशें दिसता ?'

'हावें पळयलां म्हणजे ? तुवें लेगीत पळयलां.'

'हावेंय पळयलां ? केन्ना ?'

'आरे तो बैल, ताच्या धनयान तो लंगडो जातकच ताका मरूंदी म्हणून रानांत सोडिल्लो पळय तोच हो बैल.'

'आं ! तो हाडकुटो बैल ?'

"हाडकुटो ! आतां पळोवंकना तुवे ताका, ह्या रानांत येवन बरो मातला तो. व्हडाव्हडान हांबेता खरो पूण कितलोय जाल्यार बैलूच तो."

"हय पूण शिंवाक खंय खबर तें जनावर म्हळ्यार आमचें खाण-बैल-म्हणून."

"आरे दमनक, तुका जर हें सगळें खबर आसा जाल्यार तुवें ताका कित्याक सांगलेना ?"

"करटक, तूं अजून ल्हान आसा. हांवे रोखडेंच जर सांगिल्ले जाल्यार राजाक आमचो वालोर कसो कळटलो

आसलो ?"

"हय रेय, खरें तुजे"

"खंयचोय धनी आसूं, नौकराचो उपयेग आसा आससरूच ताका वालोर दिता. म्हणून धनयांकडेन अशेंच वागप आसता. चल आमी त्या बैला म्हऱ्यांन या."

अशें म्हणून दोगूय जाण बैल चरतालो थंय गेले. करटक एका फातरार बसलो. दमनक बैल चरतालो थंय गेलो. पयली ताणें बैलाची वासपूस केली. मागीर सांगलें,

"म्हाका आमच्या राजान हांगचो चौकिदार म्हणून दवरला. आमचो सेनापती करटक हाणें तुका आपल्या दरबारांत हाजीर रावंक सांगलां. ना जाल्यार तुका हें रान सोडून वचचें पडटले खंय."

हुकूम आयकून बैल भियेलो. तो रोखडोच तांचेवांगडा येवंक तयार जालो. दमनकान ताका करटक बशिल्लो थंय व्हेलो. करटकान ताका म्हळें,

"आरे बैला, कोणाल्याय राज्यांत वचून बेठेंच रावूंक मेळटा ? हांगाच्या राजाक तुवें नमस्कार तरी केला ?"

"ना सेनापतीसायब चूक जाली."

"आतां ती चूक सुदार. आतांच वचून राजाक नमस्कार करून यो."

"आं सायबा पूण..."

"पूण कितें ?"

"थंय म्हज्या जिवाक कांय भिरांत बी आसचिना मूं ?"

"ना, ना, बैला. कांयच भियेवं नाका तूं, आमी आसात तुजे बरोबर."

बैल हुसक्यामेकळो जावन शिंवाचे घोली म्हऱ्यांत आयलो. बैलांक भायरूच बसोवन करटक आनी दमनक घोलींत गेले. ताका पळयले बरोबर शिंवान विचारलें,

"कितें ? पळयले ते खूनशी जनावर कोण तें ?"

"आं म्हाराज, तुमी जाका खूनशी जनावर समजतात तें बाबडें सामके सादे भोळें जनावर, तुमचेलागी



इश्टागत करूंक सोदतां."

"कितें ? कितें उलयतात तुमी ?"

"ह्या म्हाराज, फट दिसता जाल्यार तुमीच भायर येवन पळयात. तो भायर बसून तुमची वाट पळयता."

"सांबाळून वचात आं, तो बळिश्ट आसा हातूंत दुबाव ना. आमी आसातूच तुमचे वांगडा."

शिंवाक घेवन ते दोगूय बैला म्हऱ्यांत आयले. दोगांयनी एकामेकाक वेंग मारली. दोगांचोय भंय गेलो. त्या दिसाच्यान ते दोगूय बरे इश्ट जाले. करटक आनी दमनकाक खोस जाली.



# अधाशीपणाचें फळ

एक आसलो पारदी. ताचें नांव सदानंद. तो सदां सकाळी आपलें घोणू खांदाक लायतालो, बाणाचो भातो फाटीक बांदतालो आनी जेवणाचो डबो घेवन रानांत शिकार करूंक वतालो.

त्या रानांत हरणां, सोशे, कोले, साळी, माकड, रानदुकर बी खूब आसले. रानांतल्यान एक थंड शितळ अशी न्हंय व्हांवताली. ते न्हंयचे धडेर बरे व्हड व्हड रूख, झिली-झोंपां आसली. रूखांक घोली आसल्यो. हीं सगळी सावदां थोडीं घोलींनी, थोडी झाडार जाल्यार थोडीं झिलींनी रावताली.

त्या रानांत जायते पारधी शिकार करूंक येताले. तसोच सदानंदूय शिकारेक येतालो. सावद मेळ्ळें काय ते गांवांत येताले.

असोच एक दीस सदानंद पारधी शिकारेक गेल्लो. बरोच वेळ तो रानांत हेवटेन-तेवटेन भोवलो. इतल्यांत ताका हरणांचो एक कळप उदक पियतना दिसलो. ताणें

आनीक वेळ केलोना. धोणू हातांत घेतलो, बाण काडलो आनी एका हरणाचेर नेम धरलो बाण जुस्त ताच्या मस्तकाक लागलो. एक किळांच मारून हरण भुंयेर पडलें. बाकीच्या हरणांनी फाटी घुंवून पळयनासतना रानांत धांव मारली.

सदानंद खोशी जालो. व्हडलेशे त्रास जायनासतना ताका एक व्हडले हरण मेळिल्लें. हरण खांदार घेवन तो मोटे खोशयेन गावात वचूंक लागलो. तो दोन पावलां चलता थंय आसा, ताणे झिलींनी एक रानदुकर मुळां उसतिता तो पळयलो.

सदानंदाच्या तोंडांत लाळ आयली. "आरे ! रानदुकर ! व्वा !
आज म्हजो देव म्हजेर बरो आसा सो दिसता. रानांत येतनाच हरण मेळळें. आनी आतां हो रानदुकर, वा ! वा ! वा ! जर हो दुकरूय म्हाका मेळ्ळो जाल्यार मागीर कांय विचारनाका. म्हाका कांय दीस सुसेगाद रावंक मेळटले. फांतोडेर उठून रानांत येवन जनावारांच्या फाटल्यान हेडचें पडचे ना. चल ताकाय मारूया !"

मनांतले मनांत अशे येवजीत, लाळ घोंटीत सदानंदान खांदावयलें हरण सकयल दवरलें. देवाचें नांव घेवन धोणूक बाण लायलो आनी रानदुकराचेर सोडलो.

ताका दिशिल्लें हरणान जशी एका बाणांत भूंय गांठली तसो रानदुकरूय पडटलो. ताणें रोखडेंच धोणू परत खांदाक लायलें.

तितल्यांत बाण लागिल्लो रानदुकर चवताळ्ळो. ताणे रागान व्हडलो आवाज काडलो आनी दोळे तांबडे करून सदानंदावटेन पळयलें. लागींच उबो आशिल्ल्या सदानंदाचेर ताणें खिणाभितर झडप घाली. ताका धोणूक हात घालपाची लेगीत उसरपत रानदुकरान दिलीना. खिणांत रानदुकरान ताच्या पोटाक 'सुळे तोपले. आनी आंतकड्यो भायर काडल्यो.

तितले म्हणसर बाण तोपिल्ल्यान रानदुकराच्याय आंगांतल्यान रगत व्हांवताले. सदानंदाच्या मड्या म्हऱ्यांत रानदुकरूय मरून पडलो.

एक हरण मेळ्ळुनूय सदानंदान रानदुकराची आस धरली आनी आपलो प्राण वगडायलो. रानदुकर आनी सदानंदाचे लटाफटी वेळार तेच वटेन वचपी एक सोरोप बाबडो चिड्डून मेलो. अशे तरेन थंय एका बरोबर चार मडी पडली.

कांय वेळान एक गीद उडत उडत वयल्यान वेतालो. ताका रगताचो वास आयलो. ताणें सकयल पळयलें. पळय जाल्यार रगतान भरिल्लीं चार मडीं !

ताच्या तोंडांत लाळ आयली. सकाळच्यान तो उपाशी आसलो. ताच्या पोटाक चुरचुरीत भूक लागिल्ली.

तो रोखडोच सकयल देंवलों. केन्ना हरणाचेर, केन्ना सदानंदाचेर जाल्यार केन्ना रानदुकराचेर तो खोशयेन उडक्यो मारूंक लागलो. "...स् आज हांव उठटनाच कोणाचें तोंड पळयलें काय?...आज इतली मडीं एका बरोबर मेळप म्हळ्यार केदें भाग्य !..." तो खोशयेन मुरगटत आपले भितर नाचूंक लागलो. "हांव भाग्यवान ! आतां हें मास म्हाका कितले तरी म्हयने पावतलें. आतां कांयच काम करपाक नाका. ह्या वागा फाटल्यान धांव, त्या वागाफाटल्यान धांव, तांका खूश कर, ना जाल्यार खंयूय मडीं दिसतात काय पळयत पयस पयस उडप. शी SS कांय नाका आतां. जाय जाय तेन्ना जाय, जाय तसलें मास खावप. मोव, लुसलुशीत, वातड सगल्या तरांचे मास, वा ! वा ! वा !" गीद आपले भितर बडबडत रावलो. चोंच मारून मास खावच्या बदला तो हेर सुकण्यां सावदां पासून मडीं सांबाळून कशीं दवरप हाचेविशी चिंतीत रावलो.

ताका भूक लागिल्ली पुण ताणें चिंतले, "आजूच हें इतलें मास म्हाका मेळ्ळां. आयचच्यानूच हें खावप बरोबर न्हय. म्हाका हें खूब दीस मेरेन पावोवन खावंक जाय.



फाल्यां बरो दीस, फाल्यांच्यान हे खावंक सुरवात केल्यार बरी. पूण.. आतां खूब खूब भूक लागाल्या. किते खांव ? "

इतल्यांत ताची नजर धोणूक लायिल्ल्या सुक्या चामड्याचे दोरयेचेर गेली.

"आ ! आयचो दीस हें सुके चामडे खावन काडप."

अशें चिंतून ताणें धोणूचेय दोरयेच्या सुक्या चामड्यार चोंच मारली ते बरोबर दोरी तुडली आनी धोणू गिदाचेर पडले. आत्ताक गिदाड मेलो. थंय आतां पाच मडीं जालीं. इतलेंशें मास मेळ्ळां हे खोशयेन नाचपी गीद इल्लें लेगीत मास उश्टायनासतना मरून गेलो.



# शिंवाची युक्ती

एक अटंगे रान आसलें. व्हड व्हड रूखाझाडांनी, वाली-झिलीनीं ते रान गच्च भरिल्लें. तातूंत मदी मदी ल्हानव्हड तळीं आसलीं. त्या रानांत वाग शींव, कोले, हरणां, गवे, माकडां अशी जायत्या तरांची जनावरां रावतालीं. तरेकवार सुकणीय थंय रावतालीं. आपल्या गायनान रानाक धोलयतालीं खेळयतालीं.

त्या रानांतले एके दोंगुल्ले कुशीक एक व्हड तळें आसलें. थंय एके घोलींत एक म्हातारो शींव रावंक आयिल्लो. त्या तळ्यांत रानवटी जनावरां उदक पियेवंक येतालीं.. ल्हान ल्हान जनाव्रां वा तांची पिलां हांका कशेय भाशेन सांपडावन तो मारून खातालो. पूण हातूंत ताका खूब तकालस जाताली. आनी पोटूय सारकें भरनासलें. देखून तो व्हड सावद कशें मेळत हे चिंतेत दीस रात आसतालो.

एक दीस कितें जालें ? शींव त्या तळ्यांत न्हावंक म्हणून देंवलो. न्हातां न्हातां ताज्या पांयांक एक वस्त लागली. ताणें कितें तें पळोवंक वयर काडलें. पळय

जाल्यार एक कांकण. ताणे तें पळोवंक म्हणून वयर काडटकच ताजेर वत पडलें आनी तें भांगरावरी चकचकूंक लागलें.

तें काकण बरे करून पळयतना ताज्या मनांत आयलें... मनशांक भांगराचें पिशें. हें काकण भांगराचें म्हणून सांगल्यार तांका खरेंच दिसतलें आनी तें व्हरूंक म्हणून म्हजे सरी येतले. आनीं मागीर... शिंवाच्या तोंडांतल्यान लाळ गळूंक लागली. आपले युक्तीचेर खोशी जावन शींव तळ्यांतल्यान वयर सरलो.

तळ्याचे धडेर वत पडटा अशा जाग्यार तें काकण दवरून शींव म्हऱ्यांत बसलो. रस्त्याचेर नदर थिरावन तो बशिल्लो. आज उदक पियेवंक येतल्या जनावरांचेर ताजे लक्ष नासलें. मनशाच्या मांसाची तो वाट पळयतालो.

इतल्यांन रस्त्यावयल्यान चार-पाच गांवकार सामानाच्यो पोटल्यो घेवन उलयत वतात तें ताणे पळयलें. म्हौंवाळ आवाजान ताणे म्हळें,

- गावकारांनो, बाजारांत वतात काय कितें ?

शिंवाचो आवाज आयकून पांचूय जाणांनी कच्च करून आंग काडलें. शिंवान परतून म्हौंवाळ आवाजान तोच प्रश्न विचारलो.

शिंवाचो म्हौंवाळ आवाज आयकून तांका मात्सो

धीर आयलो. तांतल्या एकल्यान धीर करून म्हळं,

- हय शींवदाद, आमी बाजारांत वतात.

- म्हाल बरो हाडला सो दिसता.

- हय, सगलो विकून येवंक जाय, बरें तर चल्ले आमी. वेळ जाता.

तांका केन्ना काय शिंवा मुखावयल्यान गेल्यार पुरो जाल्लें. शिंवाक जाप दिवन ते वचूंक मुखार सरले. पूण शींव तांका सोडून तयार नासलो. ताका आपलो सुवार्थ सादूंक जाय आसलो. ताणें म्हळें, -

- तुमकां कळाव जाता खरो, पूण मातशे हांगा पळयात.

शिंवान पळय म्हणटकच तांणी सारकें बरे शिंवावटेन पळयलें. शिंवाम्हऱ्यांत भांगराचें काकण चकचकतालें. ताणी अजापान एकमेकाक पळयलें. एकल्यान धीर करून म्हळें,

- शिंवदाद, भांगराचें काकण तुजेकडेन शें ?

- आं, तीच तर मजा. हें काकण म्हजेकडेन कशें आयलें तें आसूं. पूण हांवे तें गरजेवंताक दान करचें थारायलां.

- कितें ?

पांचूय जाणांनी एका आवाजान विचारलें.

- हय, दान करचें थारायलां हांवे. तुमच्या भितरल्या कोणाक जाय तें थारायात आनी हांगा येवन व्हरात.

खीणभर सगल्यांकूच त्या काकणाची आस जाली.. काय बरे भांगरा काकण. हें मेळिल्लें जाल्यार म्हजी कितली कामां जाग्यार पडटलीं... हें !

पूण तें शिंवा म्हऱ्यांत आसा... सट्ट करून शिंवान मारलो जाल्यार ? .. विखाची परिक्षा कशी घेवप ?... तांतल्या एकल्यान धीर करून विचारलें,

-शींवदाद, हें काकण खरेंच भांगराचे म्हणून कशें कळटलें?

शिंवान हांसून काकण वताच्या किरणार धरलें.

- पळयात, अजून लागी येवन पळयात.

- लागी येवन ? नाका रे बाबा. तें काकण भांगराचें म्हणून हांगच्यानूच कळटा.

- तशें जाल्यार कोणेय हांगा येवन व्हरचें.

चार गांवकार पावलभर फाटी सरले आनी तांणी म्हळें,

- आमकां नाका तें भांगरा काकण. भांगरा आशेन जीव कोण वगडायतलो ?

पांचवो गावकार काय उलयलोना. तो विचार करूंक लागलो. मागीर ताणे शिंवाक विचारलें,

- पुण -म्हऱ्यांत आयल्यार तूं म्हाका खातलो.

- चॅ, चॅ, ना रे बाबा. हांवें मांस खावपाचेंच सोडून दिलां. आतां भाजीपालो, फळां अशेंच कितेंय खातां.

- शींवदाद, तूं हें सांगता तें खरें कित्यावयल्यान?

- आरे बाबा, आतां हांव म्हातारो जालां. आजवेर जायतीं पातकां केलीं. मरचेपयली थोडेंतरी पुण्य जोडचें थारायलां हांवें. देखून कोणाकूच मारून खायना हांव.

- तरीय मनांत दुबाव सो येता.

- नाका, नाका, कांयच दुबाव मनांत हाडूं नाका. आतां हांव सदां सकाळी तळ्यांत न्हाता आनी राम राम म्हणीत जप करीत बसता. जर कसलीय मोलादीक वस्त मेळ्ळी जाल्यार कोणाय गरजेवंताक दान करतां तितलींच म्हजी पातकां उणी जाली जाल्यार जाली.

- अशें, विश्वास दवरतां तुजेर हांव पूण -

- पूण बीण काडीत बसनाका. चड विचार करूंक बसशी जाल्यार हातांत आयिल्ली लक्ष्मी वगडायतलो. म्हाका कितें, हें काकण दान करपाकूच जाय. तुका नाका जाल्यार आनीक कोणाकूय दीन.

शिंवाचें निमाणें वाक्य आयकून गावकाराचें आशेखोर मन धीट जालें. भांगराच्या काकणामुखार शिंवाचो भंय लेगीत दिसना जालो. कशेय भाशेन भांगराचे काकण वगडवप

ना अशें ताणें थारायलें. ताणे शिंवाक म्हळें,

- नाका, नाका, आनी कोणाक दिवं नाका तें काकण.

त्या चारूय गावकारांनी शिटकायलो,

- आरे पापया भांगराचे आशेन बेठोच जीव वगडायशी. निमाणें शिंवूच तो. मनीस म्हऱ्यांत येतकच ताजी जीब ओगी रावता ?

- आरे सभाग्यांनो, हांव शींव खरो. पूण आतां नांवाचोच उरलां. जुवानपणांत हांवे जायती मनशां, जनावरां मारून खाल्यांत. हांवे कितलें पावक केलां ताजो हिशोबूच ना. आतां जाणटेपणांत आनीक आनीक पातकां वाडोवंचेली इत्सा ना. म्हणून देव देव करीत बसतां हांगा.

शिंवाचे उलोवणें आयकून पाचव्या गावकाराक आनीक रावपाचो धीर जालोना. तो सडसडीत मुखार आयलो आनी ताणे म्हळें,

- शींवदाद, म्हाका सामकी गरज आसा त्या कांकणाची. म्हाका तें दिल्यार उपकार जायत म्हजेर.

- शाब्बास ! खरो गरजेवंत तूं ! तुकाच फावता तें काकण. पूण पयली न्हावन देवाचें नांव घेवन वयर यो. मागीर व्हर हें काकण.

त्या तळ्यांत एके वटेन रेबकण आशिल्लें.

वयल्यान शेळो आशिल्ल्यान थंय कितें आसा तें कांयच कळनासलें. शिवान नेमके ते वटेन बाट दाखोवन गांवकाराक न्हावंक सांगलें.

शींव त्या जाग्याकडल्यान बरोच पयस आशिल्लो. तें हेरून गांवकार रेबकणावटेन न्हांवक तळ्यांत भितर सरूंक लागलो. चार पावलां वतकच ताचो एक पांय रेब्यांत रोमलो. तो भांयर येवपाक जितलो हालतालो तितलो रेब्यांत चडूच रोमतालो. ताजेर आकांत आयलो. ताणें बाकीच्या गांवकारांक उलो मारलो. तेन्नाच शिंवान गरड घाली आनी तो व्हडाव्हडान हांसूंक लागलो.

शिंवाची गरड आयकून हेर गावकार चार पावलां फाटी सरले. हेदोळच्यान साव जावन बशिल्ल्या शिंवाचें आतांचें खुनशी रूप पळोवन गावकार मनांतल्यान भियेलो. आतां आपल्याची धडगत ना म्हणपाचे ताका कळ्ळें. तरीय उशणो धीर हाडून ताणें म्हळें,

- शींवदाद, म्हाका मात्सो सोड हातूंतल्यान उपकार जायत तुजे.

- हा, हा, हा, हा, तुका सोडोवं ? तुजेर उपकार करूं ? हा, हा, हा, हा, म्हजेर कोण उपकार करतलो ? कालच्यान उपाशी आसां हांव.

- म्हणजे ? म्हणजे ? तूं म्हाका....

- हय. हांव आतां तुका खातलों.

जीब चाटीत शींव उठून उबो रावलो. रस्त्यांर आशिल्ले गावकार फाटल्या पांयांनी फाटी सरूंक लागले. भियेत भियेत पांचव्या गावकारान म्हणलें, --

- तुवें सगली वायट कामां सोडल्यांत म्हण न्हय तूं ? देवांचें नांव जपीत बसतां असो आतांच निर्वाळो दितालो. आनी आतां म्हाका खावपाची ही भास ?

- आरे पिशा ? हांव मयली शींव . कितलोय जाणटो जालो म्हणून म्हजो हिशोब चुकचो ना . मांस खावपाचें सोडल्यार हांव जगतलो कसो ? भांगर पळयतकच म्हज्या उलोवण्याचेर विश्वास दवरलो तुवें. आतां भोग.

- खरेंच शींवदाद. दुश्ट मनशान कितलींय बातां मारली तरी तांचेर केन्नाच विश्वास दवरूंक जायना म्हणटात तें सामकें खरें. भांगराचे आशेन म्हजी विचारशक्त लेगीत ना जावन गेली. वायट वेळ येतकच आपुणूच आपलो घात करता म्हणटात. कितलें खरें जालें. म्हज्या वांगडच्यांनी शिटकावन लेगीत हांवे तांचे आयकलें ना. देवा आतां म्हाका कोण सोडयतलो ?

अशें म्हणीत ताणे गांवकार उबे आशिल्ले ते वटेन पळयलें. पळय जाल्यार गांवकार शिंवाच्या भयान

थंयच्यान पयस गेल्ल. आतां आपली धडगत ना हें ताका कळ्ळें. ताणे निमाणे यत्न करून पळोवया म्हूण म्हणून शिंवावटेन पळयलें. तेन्नाच एक मरड घालून शिंवान गांवकारा वटेन झोंपय घेतली. गांवकाराची उतरां ताज्या तोंडातूच उरलीं. शिंवान ताका वयर हाडून नाखटांनी विंदारून खालो.

